# गोंय क्रांती दिन १९९९

१८ जून १९४६ हो दिस स्वातंत्र्यताय झुजाच्या इतिहासात भांगराचो दिस म्हूण ओळखुपांत येता. ह्याच दिसा नामनेचे सुटके झुजारी आनी नांवाजते समाजवादी फुडारी डॉ. राम मनोहर लोहिया हाणी वसाहती सत्ताधिशानी गोंय सोडचें म्हूण उत्स्फूर्त उलो दिलो.

आतां लोहिया मैदान म्हूण वळखतात त्या मडगांवच्या प्रमुख शार चौकांत १८ जून १९४६ ह्या दिसा ५३ वर्सा पयली भरिल्ल्या व्हड सभेत डॉ. राम मनोहर लोहिया हाणी पुर्तूगिज सत्ता धुडकायली आनी तांच्या खर भाषणान लोकांच्या मनात परकी राजवटीआड झुजपाची ज्योत पेटयली. गोंयकारामदीं धाडसाची भावना जागी झाली आनी तांची नैतिकताय लोहियाच्या भाषणान वाडली. तेन्नासावन स्वातंत्रयताय चळवळीक गती मेळ्ळी. राष्ट्रवादाच्या भावनेन शेकडो लोक चळवळीत सामील जाले. १८ जून १९४६ ह्या दिसान गोंयच्या स्वतंत्रताय चळवळीत क्रांती निर्माण केली.

गोंय स्वातंत्र्य चळवळीच्या इतिहासातल्या ह्या परजळीत घटनेचे यादस्तीक दर वर्सा १८ जून गोंय क्रांती दिस म्हूण आमी मनयतात.

ह्या दिसा गोंय स्वतंत्रताय चळवळीच्या भांगरा इतिहासाची आनी सुटके झुजाऱ्यांच्या अतुलनीय त्यागाची याद करुन दिता. गोंयच्या सुटके झुंजात योगदान दिल्या जाण-अजाण सुटके झुजाऱ्यांक आदरांजली ओपतात.

ह्या वर्सा क्रांती दिनी ४० सुटके झुजाऱ्यांचो माननीय मुख्यमंत्री श्री. लुईझिन फालेरो यांच्या हस्तुकी भोवमान जातलो. हातूंत १४ सर्गेस्त आनी २६ हयात आशिल्ल्या सुटके झुजाऱ्यांचो आसपाव आसा.

स्वातंत्र्य सैनिकांक विनम्र अभिवादन.

१८ जून १९९९.

# सर्गेस्त



## आंतोनियो व्हिएगस

सर्गेस्त आंतोनियो व्हिएगस हे सासष्टी तालुक्यातल्या कारमोणा गावचे.ते स्वत: जावन मुक्ती चळवळीन सामील जाले. १९४६ वर्सा जेन्ना डॉ. राम. मनोहर लोहिया गोंयात आशिल्ले तेन्ना ताणी मडगाव भाषण केले. तांका पुर्तुगेज पोलिसांनी अटक केली आनी उपरांत सोडून दिले.

ताणी बेळगाच्यान पोस्टरां, पत्रकां हाडून गोंयात वाटली.

१९५४ वर्सा तांका कारमोणा हांगा तांच्या घराकडेन अटक केली आनी पाच वर्सा कठोर बंदखणीची ख्यास्त फावो केली.चार वर्सा उपरांत तांची सुटका केली पण ताणी भायर वचपाक नकार दिलो आनी एक वर्स बंदखण भोगली.

डॉ. गायतोंडे, ख्रिस्तो फुर्तादो, नागेश करमली, पांडुरंग मुळगांवकर हे तांचे हेर सांगाती आशिल्ले.

८ मार्च, १९६८ वर्सा ते संवसाराक अंतरले.

ΥΥΥ
ΥΥ
Υ



## दत्ताराम कृष्णराव देसाय

सर्गेस्त दत्ताराम देसाय हांचो जल्म डिचोली तालुक्यातल्या साखळी गावांन जालो. तांचे मराठीतल्यान मुळावे शिकप जाला. ते नॅशनल काँग्रेस गोंयचे वांगडी आशिल्ले. ताणी दोडामार्ग हांगासन बाळकृष्ण जोशी हांणी पुरवण केल्ली पोस्टरा, पत्रका वाटली आनी चिकटायली. १९५४ वर्सा तांका अटक जाली. तांका ट्रिब्यूनलामुखार उबो करून १८ म्हयन्याची बंदखण फावो केली. १९५६ वर्सा तांची सुटका केली. सुटकेउपरांत ताणी राष्ट्रीय कारवायांनी सहभागी जावपांचे चालूच दवरले.

१९७२ वर्सा केंद्र सरकारान तांका ताम्रपत्र भेटोवन तांचो भोवमान केला.

शिवाजी देसाय, शिवनाथ हिंदे आनी आपा गावकर हे ताचे सांगाती आशिल्ले.

ते व्यवसायान शेतकार आशिल्ले.

ϒϒϒ
ϒϒ
ϒ

# गजानन प्रभूदेसाय



सर्गेस्त गजानन विठ्ठल प्रभूदेसाय हांचो जल्म तालुक्यातल्या खोला गावांन जालो. तांचे लायसियम शिकप जाला. 'आवाज द इंडिया' ह्या पुर्तुगेज दिसाळ्याचे उपसंपादक आशिल्ले. ह्या दिसाळ्यातल्यान राष्ट्रवादी नियाळ उजवाडायताले. १९५५ वर्सा पुर्तुगेज सरकारान ह्या दिसाळ्याचेर बंदी घातली. तांका अटक करून स म्हयने बंदखणीत दवरले. बंदखणीतल्यान सुटके उपरांत ते बेळगावा गेले आनी थंयच्यान ताणी आपल्यो राष्ट्रवादी कारवायों चालू दवरल्यो. मे १९५० वर्सा तांची नॅशनल काँग्रेस गोंयच्या (बेळगाव शाखा) कार्यकारी समितीचेर वांगडी म्हूण नेमणूक जाली. १९५५ वर्सा ते आझाद गोमंतक दलात सामील जाले. स्वातंत्र्यामेरेन तांणी आझाद गोमंतक दलाच्या "आझाद गोवा रेडिओ" ह्या गुपीत रेडिओ स्टेशनावेल्यान राष्ट्रवादी कारवायांचो प्रचार करपाचो वावर केलो.

आर्मादो सांतान परेरा,- लुईस मेंडीस, वसंत पांडुरंग बोरकर हे तांचे सांगाती आशिल्ले.

१९८१ वर्सा ते संसाराक अंतरले.

## कुमुदचंद्र वासुदेव प्रभूदेसाय



सर्गेस्त कुमुदचंद्र वासुदेव प्रभूदेसाय हांचो जल्म ५ सप्टेंबर १९१९ ह्या दिसा सासष्टी तालुक्यातल्या कुंकळये गावांन जालो. तांचे मराठी आनी पुर्तुगेज भाषेत मुळावे जाल्यार इंग्रजी भाषेत माध्यमिक शिकप जाला. मुक्ती चळवळीच्या काळात ते नॅशनल काँग्रेस गोंयचे वांगडी आशिल्ले. ताणी पत्रका वाटली. ताणी मुखेल सुटके झुजाऱ्यांक म्हायती दिली आनी गुपीत बसकांनी सहभागी जाले. १९५६ वर्सा ऑल्विन कुयेलो फुडारपणाखाल तेरेखोल हांगा सत्याग्रह घडोवन हाडलो. तांका अटक करून पाच वर्सा बंदखणीसयत दोन वर्सा दंडाची ख्यास्त फावो केली. तशेच १५ वर्साखातीर राजकीय हक्क काडून घेतले. तांका तांचे दुकान बंद करपाक लायले. प्रत्येक दिसा पोलीस स्टेशनाचेर येवन वचपाच्या अटीचेर १९५८ वर्सा तांची सुटका केली.

१९७६ वर्सा केंद्र सरकारान ताम्रपत्र भेटोवन तांचो भोवमान केला.

मुक्तीउपरांत साबार सामाजिक, धार्मिक आनी हेर संघटनाकडेन तांचो संबंध आशिल्लो. अष्ठगृहर मंडळ काँग्रेसीचे ते अध्यक्ष आशिल्ले. ते रिवण ग्रामपंचायतीचे वांगडी आशिल्ले. माधव बीर, राम काकोडकर, कृष्णकांत हेगडे देसाय, माधव पंडित, कृपावंत लांजेकर, आनी राघोबा मळीक हे तांचे सांगाती आशिल्ले.

ते व्यवसायान शेतकार आशिल्ले.

# लुईस गाब्रियल मेंडिस



सर्गेस्त लुईस गाब्रियल मेंडिस हांचो जल्म ४ ऑगस्ट १९१६ ह्या दिसा सासष्टी तालुक्यातल्या वेळ्ळी गावांन जालो. तांणी एल. एल. बी. शिकप घेतला. ते इंडियन कॉँग्रेसचे वांगडी आशिल्ले आनी उपरांत ते नॅशनल कॉँग्रेस गोंयचे वांगडी जाले. ते भारत छोडो चळवळीत सहभागी जाले. १९३९-४० मेरेन ते गोमंतक प्रजा मंडळाचे सचिव आशिल्ले. १९४० त ताणी गोमन्तक ह्या इंग्लिश नेमाळ्याचे संपादन केले आनी १९५४ वर्सा मुंबय हांगासावन प्रकाशित जावपी "गोवा" ह्या नेमाळ्यात कोंकणीतल्यान लेख बरयले. तरणाट्यामदी राजकीय जाणविकाय जागोवपाखातीर ताणी यत्न केलो. तांच्याआड अटक वॉरंट काडली. तांच्या घराचेर तीनवेळा धाड घातली.

मॅरीटाईम लेबर युनियन ऑफ इंडियाचे ते संस्थापक वांगडी आनी सरसचिव आशिल्ले. गोवा क्लब फेडरेशन बॉम्बेचे ते सरसचिव आशिल्ले. मुक्तीउपरांत गोवा (टॉडी-टॅपर) रेंदेर संघटनेचे ते संस्थापक वांगडी आनी संघटनेचे सरसचिव आशिल्ले. ते व्यवसायान वकील आशिल्ले.

७ मार्च १९७३ ह्या दिसा ते संवसाराक अंतरले.

१११
११
१

## नामदेव विनायक रायकर



सर्गेस्त नामदेव विनायक रायकर हांचो जल्म ३० डिसेंबर १९३५ ह्या दिसा मडगावा जालो. तांचे मराठीतल्यान माध्यमिक आनी नॉन-मॅट्रीक शिकप जाला. १९५४ वर्सा ते नॅशनल काँग्रेस गोंयचे वांगडी जाले. १९५५ वर्सा ते गोंय लिबरेशन आर्मीचे वांगडी जाले. तांणी सत्याग्रहींच्यो बसका घेतल्यो. पत्रका वाटली. सासष्टीत बावटे उबयले. मे १९५६ वर्सा व्यंकटेश कुंदे हांच्या आदारान वेळ्ळी हांगाच्या पुर्तुगेज स्कुलाक उजो लायलो. आगगाडयेच्या डब्यान टाईम बॉम्ब दवरलो. ह्या टाईम बॉम्बाचो चांदर-मडगाव दरम्यानच्या रेल्वे स्टेशनार स्फोट जालो. जून १९५६ वर्सा मडगाव स्टेशनार बॉम्ब दवरलो. स्फोटकानी ल्हान पूल उध्वस्त केले.टेलेफोनाच्यो वायरी कापल्यो. पुर्तुगेज मिलीटरी जीपीचेर हातबॉम्ब शेवटीलें. शिम हुपून शिबीराक हाजीर रावले. १३ ऑगस्ट १९५६ ह्या दिसा तांका अटक जाली. बंदखणीत तांचे दोन म्हयने छळणूक केली. १९५८ वर्सा तांका ट्रिब्यूनलामुखार उबो करुन २४ वर्सा कठोर बंदखण फावो केली. आग्वाद बंदखणीत साडेपाच वर्सापरस चड बंदखण फावो जाली. तांची मुक्ती दिसा सुटका जाली.

भारत सरकारान तांका ताम्रपत्र भेटयला.

वसंत कारापूरकर, गोपाळ विर्जीनकार आनी डॉ. घनश्याम कंटक हे तांचे सांगाती आशिल्ले.

ररर
रर
र

# सूर्यकांत विठ्ठल थळी



सर्गेस्त सूर्यकांत विठ्ठल थळी हांचो जल्म २९ जुलय १९२९ ह्या दिसा बार्देस तालुक्यातल्या हणजुणे गावांन जालो. तांणी मॅट्रीक मेरेन शिकप घेतले. ते नॅशनल काँग्रेस गोंयचे वांगडी आशिल्ले. १९४६ वर्सा सावन ते राष्ट्रीय कारवायानी सहभागी जाले. २८ ऑक्टोबर १९४६ ह्या दिसा म्हापसा हांगा आपल्या वांगड्यासांगातान सत्याग्रह घडोवन हाडलो. तेन्ना तांका अटक करून बंदखणीत घाले आनी सुमार धा दिसा उपरांत तांका बंदखणीतल्यान सोडले. तरीपूण ताणी भुमीगत कारवायांनी वाटो घेवपाचे चालूच दवरले. ऑगस्ट १९५४ वर्सा कुळे रेल्वे स्टेशनार तांका परत अटक जाली आनी २२ दिस पणजेच्या पोलीस बंदखणीत दवरले. त्याउपरांत ताणी बेळगाव हांगा पिटर आल्वारिस हांच्या मार्गदर्शनाखाल वावर केलो. तांणी तरणाट्यामदी राजकीय जाणविकाय निर्माण करून तांका सत्याग्रहात सहभागी जावपाक तयार केले. २६ जानेर १९५५ ह्या दिसा तांका बाळा काकोडकर हांच्या वांगडा परत अटक जाली तांका ट्रिब्युनलामुखार उबो करून धा वर्सा बंदखण फावो केली. १९५९ वर्सा तांची सुटका जाली.

१९७२ वर्सा केंद्र सरकारान तांका ताम्रपत्र भेटोवन तांचो भोवमान केला.

ᵞᵞᵞ
ᵞᵞ
ᵞ



## शिवनाथ बाबुली हिंदे

सर्गेस्त शिवनाथ हिंदे हे साखळी गावचे. ते तरणाटे पिरायेचेर मुक्ती चळवळीन सामील जाले.

ताणी पुर्तुगिज आनी मराठीतल्यान शिक्षण घेतला.

ताणी गोंया भायल्यान पोस्टरा, बावटे आनी हेर राष्ट्रवादी साहित्य हाडून गोंयात वितरायले आनी गोंयच्या वाठारांनी पोस्टरां चिकटायली.

ऑक्टोबर, १९५४ वर्सा मोन्तेरो हाणी तांका तांच्या साखळी हांगाच्या घरात अंटक केली. तांका ट्रिब्यूनलामुखार उबो करुन अकरा वर्साची बंदखण फावो केली.

तांका ११ म्हयने आनी १३ दिस बंदखणीत रावचे पडले.

श्री. हिर्दे हे १९७२ वर्सा संवसाराक अंतरले.

तांच्या फाटल्यान तांची घरकान्न, पाच पूत आनी दोन धुवो आसात.

♈♈♈
♈♈
♈



# तुकाराम राघोबा काणकोणकर

सर्गेस्त तुकाराम राघोबा काणकोणकर हांचो जल्म ३१ जूलय १९३१ ह्या दिसा तिसवाडी तालुक्यातल्या पाळे शिरदोन गावांन जालो. ताणी मराठीतल्यान माध्यमिक शिकप, तीन वर्सां लायसियम शिकप आनी मॅट्रीक शिकप घेतला. ते नॅशनल काँग्रेस गोंयचे वांगडी आशिल्ले. ताणी मिरवणूको काडल्यो, बसका घेतल्यो, बातमीपत्रा वाटली. ते काँग्रेस गोंयच्या प्रचार समितीचे वांगडी आशिल्ले. एप्रिल १९४७ वर्सा आझाद गोमन्तक दलाचे ते संस्थापक सदस्य आशिल्ले. पोलीस आऊटपोस्टाचेर धाडी घालपाच्या कारवायानी ते सहभागी जाले. म्हांपसा तिजोरीचेर धाड घालपाची आखणी केली आनी २१ जूलय १९४७ ह्या दिसा विश्वनाथ लवंदे आनी हेरासांगात्यान म्हापसा तिजोरीचेर धाड घातली. ४ डिसेंबर १९४७ ह्या दिसा 'बांको नॅशनल' अल्ट्रामारीनोच्या मॅनेजराचेर हल्लो करपाच्या कारवायेचे ते सुत्रधार आशिल्ले. मेनेजराचेर हल्लो करून पयशे जप्त केले. अटक चुकोवपाखातीर ते दोडामार्ग पळून गेले. थंयच्यान ताणी राष्ट्रीय कारवायांनी सहभागी जावपाचे चालूच दवरले. म्हापसा न्यायालय आनी पणजी उच्च न्यायालयान तांच्या गैरहाजीरीत तांचेर खटला चलयलो आनी १२ जून १९५० ह्या दिसा तांका तडीपार आनी एक वर्स मेरेन दिसाक २० इस्कुदाव दंडासयत २८ वर्सांची कठोर ख्यास्त फर्मायली. तांचेआड अटक वॉरंट काडली. तांच्या बापायक अटक करून तो खंय आसा ती म्हायती काडून घेवपाखातीर तांची छळणूक केली. तांची मालमत्ता जप्त केली. ते भारत सरकाराक पोर्तुगीज सरकारच्या कारवायांची म्हायती दिताले. १९७२ वर्सा केंद्र सरकारान तांका ताम्रपत्र भेटोवन तांचो भोवमान केला.

व्ही. एन. लवंदे, दत्तात्रय देशपांडे, प्रभाकर सिनारी, नारायण हरी नायक, पांडुरंग शिरोडकर, मधुसुदन शिरोडकर आनी बाबला सिंगबाळ हे तांचे सांगाती आशिल्ले.

ते व्यवसायान सिव्हील कॉन्ट्रॅक्टर आशिल्ले.

## वामन बाळकृष्ण सरदेसाय



सर्गेस्त वामन बाळकृष्ण सरदेसाय हांचे जल्म २५ मे १९२३ ह्या दिसा फोंडे तालुक्यातल्या वाडी गावांन जालो. ताणी लायसियम शिकप घेतला तशेच इस्कॉला मेडिकातल्यान एक वर्स शिकप घेतला. ताणी राष्ट्रवादी प्रचाराचो वावर केलो. ते पणजेच्या महालक्ष्मी मराठी शाळा, कन्याशाळा आनी मॉर्डन हायस्कुलात घेतिल्ल्या गुपीत बसकानी हाजीर रावले. ज्वाला पत्रकाचे वितरण आनी हेर भुमिगत कारवायाखातीर ताका डिसेंबर १९४७ त अटक केली. तांका ट्रिब्यूनलामुखार उबो करुन सात म्हयने साद्या बंदखणीची ख्यास्त फाव केली आनी पाच वर्सामेरेन राजकीय हक्कापासून पयस दवरले. १९५५ वर्सा मुंबय आकाशवाणीवयल्यान कोंकणी आनी पुर्तुगेज कार्यावळी वितरावपाचो प्रो. फ्रांसिस्को कुरैया आफोन्सो हाच्यासांगाता वावर केलो. ताणी गोंय मुक्तीमेरेन रेडिओवेल्यान कार्यावळी वितरावपाचे काम चालू दवरले. लिबीया आनी निकोलस मिनेझिस हांच्या वांगडा गोंय शिमेचेर वॉयस ऑफ फ्रिडम ह्या रेडिओ स्टेशनावेल्यान ताणी कार्यावळी वितरायल्यो.

ऑक्टोबर १९६१ वर्सा नवी दिल्ली हांगा पुर्तुगेज वसणूक प्रदेशाच्या प्रतिनिधीच्या आंतरराष्ट्रीय परिषदेक सहभागी जाले. "ऑपरेशन विजय" कारवांयेवेळार गोंयात वाटपाखातीर पत्रक तयार करपाक मदत केली. मिलिटरी कारवायेत जप्त केल्ली महत्वाची कागदपत्रां इंग्लिशीतल्यान भाषांतरीत केली.

मुक्ती चळवळीच्या काळात ते शिक्षक आशिल्ले. त्याउपरांत ते सरकारी सेवेत रुज जाले आनी निवृत्ती उपरांत ते गोवा टुडे ह्या मासिकाचे संपादक आशिल्ले.

# व्यंकटेश कृष्णा वेरेकर



सर्गेस्त व्यंकटेश वेरेकर हांचो जल्म १ ऑक्टोबर १९१३ ह्या दिसा सासष्टी तालुक्यातल्या वेर्णा गावांन जालो. तांचे मराठीतल्यान माध्यमिक शिकप जालां. १९४४-४५ मेरेन ते गोवा [illegible] संघाचे वांगडी आशिल्ले. १९४६ सावन ते नॅशनल काँग्रेस गोंयचे वांगडी आशिल्ले. लोकांमदी सामाजिक जाणविकाय जागोवपाचो ताणी वावर केलो. तशेंच कारमोणा वाठारात शिक्षण सुविधा दिवपाक यत्न केले आनी विद्यार्थ्यांक आर्थिक मदत केली. १८ जून १९४६ ह्या दिसा मडगाव हांगा जेन्ना पोर्तुगीज पोलीसान डॉ. लोहिया हांचेवटेन बंदूक रोखून धरली तेन्ना ते धावून वचून डॉ. लोहिया हांच्या आडसाक रावले. तांची दोन वर्साची चली खर दुयेसान मरणा धडेर आसतना आनी अटक जावपाची पुराय जाणविकाय आसून लेगीत बंदीचो हुकूम मोडून ताणी १८ ऑक्टोबर १९४६ ह्या दिसा फोंड्या हांगा जाहीर सभेत भाषण केले. अटक जावपाच्या थोड्या वेळा पयली चलयेच्या मरणाची खबर तांका कळ्ळी. तांका अटक करून ट्रिब्यूनलामुखार उबो केलो. न्यायाधीशान तांका फुडारात मुक्ती चळवळीत सहभागी न जावपाचे उतर दिल्यार तांच्या चलयेच्या मरणाक हाजीर रावपाक परवानगी दिवपाक सांगले. ताणी तशे करपाक न्हयकार दिल्ल्यान तांका तांचे चलेयच्या मरणाक हाजीर रावपाक दिले ना. बंदखणीत तांची शारीरिक छळणूक केली.

माधव पंडित, गजानन रायकर, फेलिसिया कार्दोज आनी वसंत कारे हे तांचे सांगाती आशिल्ले.

५ ऑक्टोबर १९७३ ह्या दिसा ते संसाराक अंतरले.



## यादवेंद्र वासुदेव प्रभूदेसाय

सर्गेस्त यादवेंद्र वासुदेव प्रभूदेसाय हांचो जल्म २५ जानेर १९३० ह्या दिसा सासष्टी तालुक्यातल्यान कुंकळ्ये गावांन जालो. ताणी पुर्तुगेज, मराठी आनी हिंदीतल्यान मुळावे आनी पूर्व एस. एस. सी. शिकप घेतला. १९५३ ते १९५५ मेरेन ते नॅशनल काँग्रेस गोंयचे क्रियाशील वावूरपी आशिल्ले. १९५६ वर्सा ते गोंय लिगरेशन आर्मीचे वांगडी जाले. पिटर आल्वारिस, आगुस्तस आल्वारिस आनी उर्सिलिनो आल्मेदा हांच्या मार्गदर्शनाखाल ताणी वावर केलो. ताणी सरकारी नोकरी सोडून मडगावा प्रिन्टिंग प्रेस सुरु केलो. देशभक्तीचेर पुस्तिकां, पत्रका छापून आनी ताचे वितरण करुन मुक्ती चळवळीक हातभार लायलो. तांका अटक केले आनी ताचे प्रिन्टिंग प्रेस जप्त केले. तांका ट्रिब्यूनलामुखार उबो करुन आठ वर्सा कठोर ख्यास्त आनी दंड भरलो ना जाल्यार आनीक दोन वर्साची बंदखण फावो केली. तांका वीस वर्साखातीर नागरीक हक्कापासून वंचित केले.

पुण ऑगस्ट १९५९ वर्सा साडेतीन वर्साच्या बंदखणीउपरांत तांका पॅरोलाचेर सोडले. तरी तांका स्वातंत्र्या मेरेन दर दिसा केपे स्टेशनाचेर रिपोर्ट करचे पडटाले.

केंद्र सरकारान तांका ताम्रपत्र भेटयला. १९७७ वर्सा ते केपे नगरपालिका मंडळाचेर वेचून आयलें.

कुमुदचंद व्ही. पी. देसाय, कांता हेगडे देसाय, शांबा शिरवईकर, नामदेव रायकर, नर्मदा प्रसाद शर्मा, गुणी जांबावलीकर, वसंत मोळ्ये हे तांचे सांगाती आशिल्ले.

ते व्यवसायान शेतकार आशिल्ले.

## सदानंद भिकाजी बोर्द्रे



सदानंद भिकाजी बोर्द्रे हांचो जल्म बार्देस तालुक्यातल्या कळंगूट गावान जालो. ताणी मराठी आनी पुर्तुगिज भाषेंत शिकप घेतला. ते आझाद गोमंतक दल आनी क्विट गोंय संघटनेचे वांगडी आशिल्ले.

ताणी राष्ट्रवादी कारवायांनी वाटो घेतलो. तांका अटक करुन पाच म्हयन्यापरस चड बंदखणीची ख्यास्त फावो केली. तांका बंदखणीत बरीच मारपेट केली.

महाबळेश्वर नाईक, गोविंद कर्पे आनी मित्रा बीर हे तांचे सांगाती आशिल्ले.

--------४४--------

## गोविंद गणेश जोशी



सर्गेस्त गोविंद गणेश जोशी हे पेडणे तालुक्यातल्या तोरसे गावचे. ते पुजारी आशिल्ले. ताणी स्वत: जावन मुक्ती चळवळीन उडी घेतली. ताणी बांदा हांगाच्यान पोस्टरां, पत्रकां, आनी हेर राष्ट्रवादी साहित्य हाडून गोंयातल्या मोपा आनी हेर वाठारांनी वाटले.

रामा आबाजी परब, केशव परब, विश्राम तांडेल, पंढरीनाथ शिरोडकर हे तांचे सांगाती आशिल्ले.

१९५४ वर्सा तांका ताच्या तोरसे हांगाच्या घरान अटक केली आनी सुमार देड वर्सा बंदखणीची ख्यास्त जाली.

६५ वर्सा पिरायेचेर ३० जून १९५५ वर्सा ते संवसाराक अंतरले.

# ह्यात

## आनंद उर्फ मुकुंद वासुदेव शेटये



श्री. आनंद उर्फ मुकुंद वासुदेव शेटये हांचो जल्म २९ ऑक्टोबर १९३० ह्या दिसा फोंडे हांगा जालो. ताणी मराठी, पुर्तुगेज आनी इंग्लिशीतल्यान मुळावें शिकप घेतला. ताणी प्रभात फेऱ्यांनी वाटो घेतलो. पोस्टरा चिकटायली, पत्रका वाटली, गुपीत बसका घेतल्यो. ताणी मुक्ती चळवळीन वाटो घेतिल्ल्याखातीर तांका सेवेतल्यान काडले. पोलीसांनी तांच्या घराची झडती घेवन राष्ट्रवादी साहित्य, तिरंगे बावटे जप्त केले आनी तांच्या बापायची छळणूक केली.

नागेश नायक, सदानंद बोरकर आनी विष्णू कासरकर हे तांचे सांगाती आशिल्ले.

## आंतोनियो पेरेरा



श्री. आंतोनियो पेरेरा हांणी तरणाटे पिरायेचेर मुक्ती चळवळीन उडी घेतली. ताचे भावोजी दुमिंगो आगियार हे आदीच मुक्ती चळवळीन आशिल्ले.

श्री. पेरेरा हे फोटोग्राफर आशिल्ले. ताणी पुर्तुगेज सैन्याची बराक आनी तांच्या कारवायाचे फोटो काडून राष्ट्रवादी फुडाऱ्याक दिले.

श्री. पेरेरा हाणी असोल्णा, वेळ्ळी, चिंचिणी, कुंकळ्ळी, भिवसा आनी हेर वाठारात पोस्टरां चिकटायली, पत्रकां वाटली आनी हेर भुमिगत वावर केलो.

राजाराम देसाय, खुशाली देसाय हे ताचे हेर वांगडी आशिल्ले.

सध्या ते कुंकळ्ळी हांगा तांच्या कुटुंबावांगडा रावतात.

# चंद्रकांत लक्ष्मण वेळीप



श्री. चंद्रकांत लक्ष्मण वेळीप हांचो जल्म १५ जून १९३८ ह्या दिसा काणकोण तालुक्यातल्या महालवाडा-पैगिंण हांगा जालो. ताणी एस. एस. सी. मेरेन शिकप घेतला. ते नॅशनल काँग्रेस गोंयचे वांगडी आशिल्ले. माजाळी आनी आंगडी हांगा आयोजित केल्ल्या बसकांक ते हाजीर रावले. पोस्टरा आनी पत्रका हाडून गोंयात वाटली. १७ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा काणकोण पोलीस स्टेशनाचेर सिंधूताई देशपांडे, वामन पैगिणकार आनी हेर स्वातंत्र्यसैनिकांच्या सांगातान सत्याग्रह घडोवन हाडलो. तांका अटक करुन निष्ठूरपणान मारपेट केली. ते पिरायेन ल्हान आसून लेगीत तांका ट्रिब्यूनलामुखार उबो केलो आनी स वर्सा बंदखाणीची ख्यास्त फावो केली. ३० जानेर १९५८ वर्सा तांची सुटका केली.

केंद्र सरकारान ताम्रपत्र भेटोवन तांचो भोवमान केला.

विश्वनाथ लोलयेकर, विश्वंभर लोलयेकर, रामदास लोलयेकर, जयवंत लोलयेकर, बालाजी पी. देसाय आनी नागेश ए. देसाय हे तांचे सांगाती आशिल्ले.

## हरिश्चंद आर. कारबोटकर



श्री. हरिश्चंद्र आर. कारबोटकर हांचो जल्म १९३५ वर्सा बार्देश तालुक्यातल्या बिठ्ठोण गावांन जालो. ताणी एस. एस. सी. मेरेन शिकप घेतला. तशेच ताणी पुतुगेज भाषेत मुळावे शिकप घेतला. १९५४ वर्सा ते आझाद गोमंतक दलान सामील जाले. तेन्ना सावन ते दलाचे क्रियाशील वांगडी आशिल्ले. तांचे घर पर्वरीच्या डोंगरा कुशीक आशिल्ल्यान दलाच्या कमांडोक लिपून रावूक सुरक्षित जागो आशिल्लो. तांच्या आवय बापायान आनी कुटुंबातल्या हेर सदस्यानी शस्त्रां आनी दारुगोळयाची एके सुवातेपासून दुसरे सुवातेचेर वाहतूक करपाक मदत केली आनी अशे त-हेन मुक्ती चळवळीक आदार केलो. बांबोळी रेडिओ स्टेशनाचेर हातबॉंब शेवटूपाच्या येवजणेची आखाणी तांच्या घरातल्यान केली. तांच्याआड अटक वॉरंट काडलें पूण ते भूमिगत जाले आनी मुक्तीमेरेन आपल्यो कारवायो चालू दवरल्यो.

ते व्यवसायान दुकानदार.

## जिवा भागडू गावकर



श्री. जिवा भागडू गावकर हाणी १९५४ वर्सा मुक्ती चळवळीत उडी घेतली. गोंयात राष्ट्रीय कॉंग्रेसची स्थापणूक जावन आंगडी माजाळी हांगा शिबीरा घडोवन हाडली. मनोहर प्रभुदेसाय हे शिबीराचे मुखेली आसले. गांवकराचो संपर्क परशुराम गोविंद फळ, पिटर आल्वारिस हांचेकडेन आयलो आनी तांका सत्याग्रहान सामील जावपाची प्रेरणा मेळ्ळी.

श्री. गावकर १७ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा काणकोण हांगा श्री. विश्वनाथ लोलयेकार हांच्या फुडारपणाखाल हेर बारा सांगात्यावांगडा सत्याग्रहान सामील जाले. पुर्तुगेज पुलीसाक ह्या सत्याग्रहाची जाणीव आशिल्ली. पुलीसानी काणकोण हांगा सत्याग्रहीक आडयले. तांचेकडले बावटे काडून घेतले. तांका मारपेट केली आनी पोलीस स्टेशनार घेवन गेले.

श्री. गांवकर हांका ट्रिब्यूनलामुखार उबो करुन स म्हयने बंदखणीची ख्यास्त फावो केली. तांचेर १५ वर्साखातीर राजकीय हक्कापासून बंदी घातली.

तांका आल्तिन हांगाचे पोलीस बंदखणीत सुमार एक म्हयनो दवरले आनी उपरांत आग्वाद हांगा व्हेले.

३० जानेर १९५८ ह्या दिसा तांची सुटका जाली.

मुक्तीउपरांत पंचायत आनी हेर संघटनानी तांचो भोवमान केला.

सध्या ते आपली घरकान्न आनी पाच धुवांवांगडा गावडोंगरी काणकोण हांगा रावतात.

## काशिनाथ परशुराम कोळगावकर



श्री. काशिनाथ परशुराम कोळगावकर हांचो जल्म ४ मार्च १९३५ ह्या दिसा तिसवाडी तालुक्यातल्या सांताक्रुझ गावांन जालो. ताणी मराठीतल्यान मुळावे शिकप घेतला. ते आझाद गोमंतक दलाचे वांगडी आशिल्ले. स्वातंत्र्यसैनिकांक शस्त्राची पुरवण केली, तिरंगे बावटे उबयले, पोस्टरां चिकटायली. १४ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा तांका अटक केली आनी बंदखणीत घातले. बंदखणीत तांका बरीच मारपेट केली. २६ ऑक्टोबर १९५६ ह्या दिसा तांची बंदखणीतल्यान सुटका केली.

१९७३ वर्सा केंद्र सरकारान तांका ताम्रपत्र भेटयला.

ते सरकारी सेवेत आशिल्ले.

## कांता गोपी घाटवळ



कांता गोपी घाटवळ हांचो जल्म १ मे १९३६ ह्या दिसा जालो. चौथी मेरेन ताणी मराठीतल्यान शिक्षण घेतला.

तांचे भाव सिताराम हे १९५० सावन मुक्ती चळवळीन आशिल्ले. श्री. विश्वनाथ लवंदे, प्रभाकर सिनारी, कृष्णराव राणे, कानोबा नायक, आत्माराम मयेकर, शांताराम गावस हे तांचे सांगाती आशिल्ले.

१९५४ वर्सा ते आझाद गोमंतक दलान सामील जावन मुक्ती चळवळीन वाटेकार जाले. ताणी दिपगृह, ज्वाला आनी हेर राष्ट्रवादी साहित्य वाटले.

मार्च १९५६ वर्सा आमडगाव हांगा शिमेचेर आशिल्ल्या शिबीराक सामील जातना पोलिसांनी गोळीबार केलो पूण ते सुरक्षित शिबीरान पावले.

१९५७ वर्सा ते आरमीन सामील जाले आनी उपरांत शिरगाव खाण आनी हेर कारवायानी सहभागी जाले. ते गोंया भायर शिबीरान रावले आनी मुक्ती उपरांत गोंयात परतले.

मुक्तीउपरांत ते शिरगांव-मुळगाव पंचायतीन निवडून आयले.

# कृष्णा देवप्पा देसाय



श्री. कृष्णा देवप्पा देसाय हांचो जल्म २५ डिसेंबर १९३१ ह्या दिसा काणकोण तालुक्यातल्या नगर्से गावांन जालो. ताणी मराठी आनी पुतुगेज भाषेतल्यान मुळावे शिकप घेतला. ते नॅशनल काँग्रेस गोंयचे वांगडी आशिल्ले. ताणी पोस्टरा वाटली. माजाळी शिबिरातल्या स्वातंत्र्यसैनिकाक पोलीसाच्या कारवायांची म्हायती दिली. १७ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा आपल्या १३ सांगात्यावांगडा तिरंगे बावटे घेवन आनी देशभक्ती घोशणा दियत गावडोंगरी ते काणकोण पोलीस स्टेशनामेरेन मोर्चो काडलो. तांका अटक करुन पाच वर्सा आनी सात म्हयने बंदखणीची ख्यास्त फावो केली. बंदखणीत तांका निष्ठूरपणान मारपेट केली. बंदखणीतल्या स्थितीबद्दल तक्रार केल्ल्याखातीर ख्यास्त म्हुण सात दिस काळखा कुडीन बंदिस्त दवरले.

केंद्र सरकारान ताम्रपत्रा भेटोवन तांचो भोवमान केला.

मनोहर देसाय, राया काळे आनी शिवा देसाय हे तांचे सांगाती आशिल्ले.

ते व्यवसायान शेतकार.

## मधुकर बाळसो नायक देसाय



श्री. मधुकर बाळसो नायक देसाय हांचो जल्म १५ मार्च १९३४ ह्या दिसा सासष्टी तालुक्यातल्या कुंकळये गावांन जालो, ताणी मराठी आनी पुर्तुगेज भाषेतल्यान मुळावें आनी एस. एस. सी. मेरेन शिकप घेतला. तें आझाद गोमंतक दलाचे वांगडी आशिल्ले. १९५३ सावन ताणी राष्ट्रवादी कारवायानी वाटो घेवपाक सुरुवात केली. ताणी पत्रका वाटली, पोस्टरां चिकटायली, राष्ट्रीय दिसा तिरंगे बावटे उबयले. माजाळी शिबीरातल्या आझाद गोमंतक दलाच्या फुडाऱ्यांक पुर्तुगेज सरकारच्या कारवायाची गुपीत म्हायती दिली. १६ एप्रिल १९५५ ह्या दिसा तांका अटक जाली. तांका बंदखणींत घातले आनी १९५७ च्या मार्चांत तांची बंदखणीतल्यान सुटका केली.

केंद्र सरकारान तांका ताम्रपट भेटयला.

मधुकर गणेश तळावलीकार दत्ताराम देसाय, प्रभाकर वैद्य, नारायण नायक, शाबू देसाय, खुशाली देसाय आनी अनंत देसाय हे ताचे सांगाती आशिल्ले.

ते सरकारी सेवेन आशिल्ले.



## मोहन विष्णू शेट दांते

श्री. मोहन विष्णू शेट दांते हांचो जल्म ५ मे १९३८ ह्या दिसा गोवा वेल्हाच्या गावकरवाडा भाटी हांगा जालो. ६२ वर्सा पिरायेचे श्री.. मोहन दाते सध्या कुडका हांगा रावतात.

ते नॅशनल काँग्रेस गोंयचे वांगडी आशिल्ले. ताणी पिटर आल्वारिस हांच्या फुडारपणाखाल मुक्ती चळवळीन वाटो घेतलो.

सुरवातेक तांचो संपर्क काशिनाथ गोवेकर हांचेकडेन जालो. गोवेकर हांणी तांका ऑगस्ट १९५५ वर्सा पुण्याच्यो सिंधू देशपांडे हांच्या फुडारपणाखाल सत्याग्रहान सहभागी जावपाक सांगले. पुण सिंधू देशपांडे हांका अटक जाली.

दत्ता येसू नायक, खुशाली रामा मडकईकर आनी हेरासांगाताक श्री. दाते हांकाय त्यावेळार अटक जाली.

तांका पणजेच्या पोलिस बंदखणीत आठ दिस दवरले आनी उपरांत सोडून दिले.

मुक्तीउपरांत ते सरपंच जाले. सध्या ते कुडका हांगा आपल्या कुटुंबावांगडा रावतात.



## नारायण धर्मा सप्ते

श्री. नारायण धर्मा सप्ते हांचो जल्म २७ ऑगस्ट १९४१ ह्या दिसा बार्देस तालुक्यातल्या म्हापसा हांगा जालो. ताणी मराठीतल्यान मुळावे शिकप घेतला. ते नॅशनल कॉंग्रेस गोंयचे वांगडी आशिल्ले. २६ जानेर १९५५ ह्या दिसा ताणी म्हापसा हांगा सत्याग्रह घडोवन हाडलो. तेन्ना तांका अटक करुन बंदखणीत दवरले. २७ ऑगस्ट १९५९ ह्या दिसा तांची बंदखणीतल्यान सुटका ·केली.

केंद्र सरकारान तांका ताम्रपत्र भेटयला.

रामेश्वर लांजेकर, प्रभाकर तिवरेकर, शामसुंदर नायक, अनिल बुर्ये, रविंद्र सिरसाट, वसंत मांद्रेकर आनी प्रभाकर हळदणकर हे ताचे सांगाती.

ते व्यवसायान कासार.

## नरहरी यशवंत हेदे



श्री. नरहरी यशवंत हेदे हांचो जल्म ७ जूलय १९३५ ह्या दिसा जालो. ताणी एस. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतला.

ल्हान पिरायेचेर ताणी स्वामी विवेकानंदाची पुस्तकां वाचली आनी ह्या वाचनातल्यान तांका स्फूर्त मेळ्ळी.

उपरांत तांची वळख श्री. चंद्रकांत केंकरे, जयकृष्ण शिरोडकर हांचेकडेन जाली. ताणी सत्याग्रहान सामील जावपाचो केलो पुण सत्याग्रहापयलीच श्री. केंकरे आनी श्री. शिरोडकर हांच्यावागडा तांकाय अटक जाली. तांका पणजेच्या बंदखणीत स म्हयन्याची ख्यास्त जाली आनी उपरांत तांका बंदखणीतल्यान सोडले.

तीन-चार म्हयन्याउपरांत शिरोडा हांगाचे पुर्तुगेज शाळेक काय वावुरप्यांनी उजो घातलो. श्री. हेदे हांका दुबावान अटक करुन बरीच मारपेट केली. ताणी पुर्तुगेज पोलिसाक आपूण एक सत्याग्रही आसून असल्या हिंसात्मक कारवायांनी सहभागी जायना अशे ताणी पटोवन दिले. तीन आठवडयाउपरांत तांची बंदखणीतल्यान सुटका केली.

सध्या ते कुर्टी-फोंडे हांगा आपल्या कुटुंबावागंडा रावतात.

ΥΥΥ
ΥΥ
Υ

## प्रभाकर नारायण शेणवी मथा



प्रभाकर मथा हांचो जल्म २ डिसेंबर १९३२ ह्या दिसा ताळगांव हांगा जालो.

मडगांवा एस. एस. सी. मेरेन ताणी शिक्षण घेतले. शिक्षण घेतना डॉ. राम मनोहर लोहिया हांचेकडल्यान स्फूर्त घेवन हेर विद्यार्थ्यांवांगडा चळवळीत सामिल झाले. ताणी मडगांवा सत्याग्रह केलो.

ते तांचे भाव रामनाथ हांचेबरोबर रावताले. आपलो भाव प्रभाकर चळवळीत आसा म्हणपाचे कळल्या उपरांत रामनाथान तांका घर सोडून वचपाक सांगले. प्रभाकर घर सोडून दामोदर कारवारकर हांच्या घरा रावपाक लागले आनी ताणी आपली कारवाय चालूच दवरली. ते झेंडे, राष्ट्रवादी साहित्य आनी पत्रकां वेगवेगळया वाठारात लोकांक वांटताले.

२ जुलै १९५४ ह्या दिसा चांदर जंगलात लिपून राविल्ले प्रभाकर सिनारी, प्रभाकर वैद्य आनी हेरांक व्हरपाक रॉक सांतान फर्नांडिस हाणी मथा हांका आपगले. हांका सगल्यांक गाडयेतल्यान व्हरताना चांदरा हांगा पुलिसानी गाडी आडायली. बाकिचे पळून गेले. पुलिसानी गाडयेंत कोण आशिल्ले हें विचारपाक मथा हांका मारपेट केली, आनी फार पेटयले. ते बेशुध्द पडले. तांका मडगांव पुलिस स्टेशनार आनी मागीर रायबंदर हॉस्पिटलांत व्हेले. थंय ते १ म्हयनो २३ दिस उरले.

मागीर पुलिसांनी तांची जबानी घेवन तांका आग्वाद बंदखणीत घातले. तांका १९५७ वर्सा सोडले.

श्री. मथा सध्या बोरी हांगा रावतात.

## रघुनाथ परशुराम कोळगावकर



श्री. रघुनाथ परशुराम कोळगावकर हांचो जल्म ५ ऑक्टोबर १९२७ ह्या दिसा बार्देस तालुक्यातल्या कांदोळी गावांत जालो. ताणी मराठीतल्यान मुळावे शिकप घेतला. ते आझाद गोमंतक दलाचे वांगडी आशिल्ले. ताणी शस्त्रांची वाहतूक केली, तिरंगे बावटे उबयले, पोस्टरां चिकटायली. १४ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा तांका अटक करुन बंदखणीत घातले. सतरा म्हयने तांका बंदखणीची ख्यास्त फावो जाली.

१९७३ वर्सा केंद्र सरकारान तांका ताम्रपत्र भेटयला.

ते सरकारी सेवेत आशिल्ले.

ϒϒϒ
ϒϒ
ϒ

# रवींद्र वासूदेव सिरसाट



रवींद्र वासुदेव सिरसाट हांचो जल्म २७ नोव्हेंबर १९३० ह्या दिसा कळंगूट बार्देस हांगा जालो.

ताणी स्वत: जावन मुक्ती चळवळीन उडी घेतली. नॅशनल कॉंग्रेसीचे वांगडी म्हण ताणी पिटर आल्वारिस हांच्या फुडारपणाखाला वावर केलो. २६ जानेर १९५५ ह्या दिसा सत्याग्रह घडोवन हाडलो. तांका अटक करुन ट्रिब्यूनलामूखार उबो केलो. ह्या दिसा तांची सुटका केली.

ते इंडियन नॅशनल कॉंग्रेस बार्देश शाखेचे सचिव आशिल्ले. ते प्रदेश कॉंग्रेस समितीचे सदस्य आशिल्ले. १९४६ वर्सा खासदार नाथ पै हांच्या मार्गदर्शनाखाल स्थापन केल्ल्या विद्यार्थी संघटनेचेर ते सदस्य आशिल्ले. ह्या संघटनेन दत्तवाडी म्हापसा हांगा सुषमा बाल वाचनालय आनी अस्नोडा हांगा सुभाष बाल वाचनालय ह्या नावान वाचनालया सुरु केली.

मुक्तीउपरांत विद्यार्थी संघटनेचे रुपांतर म्हापसा युवक संघ असे केले आनी ते ह्या संघाचे खजिनदार आशिल्ले.

म्हापसा नगरपालिकेचेर नं. ३ वार्डातल्यान ते नगरसेवक म्हुण निवडून आयले. अखिल भारत स्वातंत्र्यसैनिक संघटनेचे ते उपसचिव आशिल्ले.

ते एक समाजसेवक आसात आनी तांचो साबार सामाजिक संस्थाकडेन संपर्क आसा.

सध्या ते अन्साभाट म्हापसा हांगा सिरसाटवाड्यार रावतात.



## राजाराम येसो देसाय

श्री. राजाराम येसो देसाय हांचो जल्म २१ डिसेंबर १९३५ ह्या दिसा कुंक्कळी हांगा जालो.

मुरीडा-कुंक्कळी हांगाचे एमपीएस शाळेंत शिकताना तांचो आनी तांच्या हेर वर्गसांगात्याचो पिटर आल्वारिस हांचेकडेन संपर्क आयलो. नॅशनल कॉंग्रेसीन तरणाटयाक सहभागी करपाखातीर ताणी तांका पुस्तिका दिल्यो.

श्री. देसाय १९५३-५४ वर्सा नॅशनल कॉंग्रेस गोंयचे वांगडी जाले. काय काळामेरेन ताणी नॅशनल कॉंग्रेस गोंयचो वावर केलो आनी उपरांत ते आझाद गोमंतक दलान सामील जाले. ल्हान पूल आनी कुंकळ्ळी पोलिस स्टेशन उध्वस्त करपाच्या कारवायांनी ताणी वाटो घेतलो. त्याच राती तांका अटक जाली आनी उपरांत तांची सुटका केली. परत दुस-याय दिसा तांका अटक केली आनी एक म्हयन्याची ख्यास्त केली.

उपरांत ते माजाळी शिबिरान सहभागी जाले आनी थंयच रावले.

साळजिणी मिलिटरी पोस्ट, पोळे कस्टम चेक पोस्टाचेर केल्ले कारवायेन ताणी वाटो घेतलो.

१९६१ वर्सा ते मिलिटरी वांगडा गोंयात परतले.

सध्या ते मुरीडा कुंकळ्ळी हांगा आपल्या कुटुंबावांगडा रावतात.

ΥΥΥ
ΥΥ
Υ

# रघुनाथ गणेश गारुडी देसाय



श्री. रघुनाथ गणेश गारुडी देसाय हांचो जल्म २२ एप्रिल १९०९ ह्या दिसा बार्देस तालुक्यातल्या शिवोली गावांन जालो. ताणी मराठीतल्यान मुळावें शिकप घेतला. ते आझाद गोमंतक दलाचे वांगडी आशिल्ले. ताणी मिरवणूको, बसकांनी वाटो घेतलो. तिरंगी बावटे उबयले. पत्रका वाटली. चोडण पोलीस स्टेशनाचेर हल्लो करुन शस्त्रा आनी दारुगुळो जप्त केलो. तांका दोनवेळा अटक करुन १६ म्हयने बंदखणीत दवरले.

१५ ऑगस्ट १९७२ वर्सा केंद्र सरकारान ताका ताम्रपत्र भेटयला.

गणपत सावईवेरेकर, सिताराम कुबल, रामदास चाफडकार, दिगंबर हळर्णकर, नानी भोसले, बापू मोहिते निपाणीकर, माधव कोरडे, गोविंद हळर्णकर, रंगा खोर्जुवेकर आनी कृष्णा वायंगणकर हे ताचे सांगाती आशिल्ले.

ते व्यवसायान मेस्त आसात.

## श्रीपाद नरहरी खरंगटे



श्री. श्रीपाद नरहरी खरंगटे हांचो जल्म २२ नोव्हेंबर १९४० ह्या दिसा सासष्टी तालुक्यातल्या कारमोणा गावांन जालो. ताणी मराठीतल्यान माध्यमिक, पुर्तुगेज भाषेतल्यान मुळावे आनी एस. एस. सी. मेरेन शिकप घेतला. ते सुरवातेक नॅशनल काँग्रेस गोंयचे, त्याउपरांत गोवा लिबरेशन आर्मी आनी ताज्या उपरांत आझाद गोमंतक दलाचे वांगडी जाले. १९५४ वर्सा जांबावली, केंपे हांगा जाल्या नॅशनल काँग्रेस गोंयच्या शिबिराक हाजीर रावले. पोस्टरा चिकटावप, तिरंगे बावटे उबोवप आदी कामा तांचेर सोपयली. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा मडगावच्या नगरपालिका बागेलागसार सत्याग्रह घडोवन हाडलो. तांका अटक करुन बंदखणीत घाले. पुण १५ सप्टेंबर १९५५ ह्या दिसा पोलीस स्टेशनाचेर दरदिसा येवन वचपाच्या अटीचेर तांची सुटका केली. पोलिसाकडल्यान जावपी छळणूक चुकोवपाखातीर ते मोपा वटेच्यान शीम हुपून गोंयाभायर गेले. सरकारी इमारतीनी स्फोटका दवरली. आझाद गोंमतक दलाच्या वावरप्यांनी खाणी आनी पोलीस स्टेशनाचेर घुरी घालून जप्त केली शस्त्रा आनी दारूगोळो साठोवपाक मडगावा दोन रुम भाड्यान घेतले. फुडाऱ्याक पोलीस कारवायची म्हायती दिली.

वास्को हार्बर, कुळे रेल्वे स्टेशन, घोगळ हांगाच्या मिलीटरी गॅरेज, आनी रायबंदर ते दिवाडी पोलीस अधिकाऱ्याक घेवन येवपी फेरीन बॉम्ब दवरले. कुठ्ठाळे हांगा सरकारी गुदांव आनी मडगावच्या इस्कॉला टॅक्निका इमारतीक उजो घातलो. बाणस्तारी पुलाचेर दोघा पोलीस गाडीचेर हल्लो केलो. तांका अटक करुन दोनवेळा ट्रिबुनलामुखार उबो केले आनी १४ वर्सा कडक बंदखणीची ख्यास्त, दंड भरलो नाजाल्यार आनीक दोन वर्साची बंदखण आनी १५ वर्सामेरेन राजकिय हक्कापासून पयस दवरले. ख्यास्तसूट दिवन १९६० वर्सा तांची सुटका केली. फुडे अटक चुकोवपाखातीर ते नेतुर्ली पळून गेले आनी थयच्यान दांडेली गेले. बेळगावा आझाद गोमंतक दलाच्या शिबीरान सहभागी जाले. आझाद गोमंतक दलाच्या दोडामार्ग आनी वझरे केंद्राचेर वावर केलो आनी मुक्तीमेरेन भुमिगत कारवायानी वाटो घेतलो.

## श्रीधर अनंत पैंगिणकर



श्री. श्रीधर अनंत पैंगिणकर हांचो जल्म ४ जून १९३२ ह्या दिसा काणकोण तालुक्यातल्या पैंगिण गावांन जालो. ताणी एस. एस. सी. मेरेन शिकप घेतला. २६ जानेर १९५५ ह्या दिसा ताणी पैंगिण हांगा सत्याग्रह घडोवन हाडलो. तांका अटक करुन मारपेट केली आनी १२ वर्सा बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. चार वर्सा आनी णव म्हयन्याउपरांत तांची बंदखणीतल्यान सुटका केली.

केंद्र सरकारान ताम्रपत्र भेटोवन तांचो भोवमान केला.

ते व्यवसायान शिक्षक.

## श्रीकांत रामदास नायक करमली



श्री. श्रीकांत रामदास नायक करमली हांचो जल्म १८ सप्टेंबर १९३८ ह्या दिसा केपे तालुक्यातल्या काकोडा हांगा जालो. ताणी मराठीतल्यान मुळावे शिकप घेतला. नॅशनल काँग्रेस गोंयचे ते वांगडी आशिल्ले. ताणी तांचे व्हडलो भाव नागेश करमली हांका तांच्या कारवायात मदत केली. पोस्टरा चिकटायली, पत्रका वाटली. १५ सप्टेंबर १९५४ ह्या दिसा केपे कोर्टामुखार तिरंगो बावटो उबयलो. १७ सप्टेंबर १९५४ ह्या दिसा तांका अटक जाली. पोलिस बंदखणीत तांका निष्ठूरपणान मारपेट केली. पिरायेन ल्हान म्हुण १२ ऑक्टोबर १९५४ ह्या दिसा तांची सुटका केली. सुटके उपरांत ताणी भुमीगत कारवायानी वाटो घेवपाचे चालूच दवरले.

प्रभाकर भेंब्रे, गुणी जांबावलीकार आनी नरसिंह हेगडे देसाय हे तांचे सांगाती आशिल्ले.

## शिवराम सुभा साळगावकर



श्री. शिवराम सुभा साळगावकर हांचो जल्म १० मे १९३१ ह्या दिसा तिसवाडी तालुक्यातल्या सांताक्रूझ गावांन जालो. ताणी मराठीतल्यान मुळावें शिकप घेतला. ते आझाद गोंमंतक दलाचे क्रियाशील वांगडी आशिल्ले. ताणी आझाद दलाच्या फुडाऱ्याक पोलिस आनी मिलीटरी अधिकाऱ्याच्या कारवायांची म्हायती दिली. ताणी स्वातंत्र्यसैनिकांक अन्न आनी आसरो दिलो. लोकांमदी राजकीय जाणविकाय निर्माण करपाखातीर प्रचार केलो. १४ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा तांका अटक करून धा वर्सा बंदखणीची ख्यास्त फावो केली. बंदखणीत तांका निष्ठूरपणान मारपेट केली. २२ ऑगस्ट १९५९ ह्या दिसा तांची सुटका केली. पुण दीड वर्समेरेन तांचेर पोलीसांची पाळत दवरली.

मुक्ती उपरांत ते इंडियन नॅशनल काँग्रेसचे वांगडी जाले आनी १९७७ सावन ते जनता पार्टीचे आनी मागीर जनता दलाचे वांगडी जाले.

१९७२ वर्सा केंद्र सरकारान तांका ताम्रपत्र भेटयला. गोवा वेल्हा पंचायतींचे ते आनी सरपंच वांगडी आशिल्ले.

४४४
४४
४

## शांबा पुंडलीक तिळवे



श्री. शांबा पुंडलीक तिळवे हांचो जल्म १५ जून १९३७ ह्या दिसा सांगे तालुक्यातल्या शामेळ-किर्लपाल गावांन जालो. ताणी मराठीतल्यान मुळावे शिकप घेतला. ते आझाद गोमंतक दलाचे वांगडी आशिल्ले. ताणी राष्ट्रवादी फुडाऱ्यांक शिम हुपपाक मदत केली. गावकऱ्यांक मुक्ती चळवळीत सहभागी जावपाक अटक जाली आनी १८ म्हयने आग्वाद बंदखणीत दवरले.

१९७२ वर्सा केंद्र सरकारान तांका ताम्रपत्र भेटयला.

खुशाली देसाय, टोनी फर्नांडिस, राजनीकांत केंकरे, बापू सहकारी, मुकुंद पवार आनी रामकृष्ण सहकारी तांचे सांगाती आशिल्ले.

ŸŸŸ
ŸŸ
Ÿ

## तुकाराम सुखा आगरवाडेकर



श्री. तुकाराम सुखा आगरवाडेकर हांचे जल्म ८ जून १९२० हैया दिसा बार्देस तालुक्यातल्या शिवोली गावांन जालो. १९५४ वर्सा सावन ते आझाद गोमंतक दलाचे वांगडी आशिल्ले. ताणी पत्रका वाटपाचो वावर केलो. फुडाऱ्यांक म्हायती दिली. प्रभाकर सिनारी आनी विश्वनाथ लवंदे हांच्या फुडारपणाखाल घूरी घालपाचे कारवायेत सहभागी जाले. कॅसलरॉक ट्रॉली, हणखणे, माजाळी आनी गुळेली आऊटपोस्ट स्फोटकांनी उध्वस्त केली. धाबेल दमण पोलिस आऊटपोस्टाचेर घुरी घाली.

बाळा मापारी, तांचे भाव यशवंत आगरवाडेकर आनी वासुदेव आगरवाडेकर हे तांचे सांगाती आशिल्ले.

ते व्यवसायान शेतकार.

ƔƔƔ
ƔƔ
Ɣ

# तुकाराम हरी गावकर



श्री. तुकाराम हरी गावकर हांचो जल्म ८ ऑगस्ट १९३४ ह्या दिसा डिचोली तालुक्यातल्या मये गावांन जालो. ताणी मराठीतल्यान मुळावे शिकप घेतला. १९४५ वर्सा ताणी आत्माराम धाकटू मयेकर हांच्या फुडारपणाखाल मयेच्या शेतकरी आंदोलनात वाटो घेतलो. १९४७ मेरेन ते नॅशनल काँग्रेस गोंयचे वांगडी आशिल्ले. १९४७ मेरेन ते आझाद गोमंतक दलाचे वांगडी आशिल्ले. आझाद गोमंतक दलाच्या भुमीगत चळवळीक मदत केल्ल्याखातीर तांका ३ जून १९४८ ह्या दिसा अटक करून डिचोली पोलीस बंदखणीत दवरले. चार दिसानी बंदखणीतल्यान पळून वचपाक तांका यश आयले. ताणी गोंयची शिम हुपून भारताच्या हद्दीत प्रवेश केलो. ट्रिब्यूनलान तांच्या गैरहाजेरीत ताचेर खटलो चलोवन २४ वर्सा बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. त्या उपरांत वझरे हांगा प्रशिक्षण पुराय करून ते आझाद गोमंतक दलाच्या कमांडो फोर्सात सामील जाले. १९५४ वर्सा नगरहवेली मुक्ती चळवळीन सहभागी जाले. १९५५ वर्सा ते गोंयात परतले आनी आझाद गोमंतक दलाच्या वझरे केंद्राची सुत्रा आपल्या हातात घेतली.१९५५-१९६१ मेरेन डिचोली, सत्तरी आनी तिसवाडी तालुक्यातल्या साबार कारवायानी सहभागी जाले. सोनशी खाणीचेर घूरी, सारमानस हांगा पोलीसाक घेवन वचपी बसीचेर हल्लो, मावळींगे हांगा गस्तीचेर आशिल्ल्या जीपीचेर हल्लो अंशा साबार कारवायानी ते सहभागी जाले. तशेच ताणी प्रभाकर व्ही. सिनारी हांच्या फुडारपणाखाल शिरगांव खाण आनी विश्वनाथ एन. लवंदे हांच्या फुडारपंणाखाल बेती पोलीस स्टेशनाचेर घूरी घाली.

केंद्र सरकारान तांका ताम्रपत्र भेटयला आनी दादरा नगरहवेली सरकारान मानचिन्ह भेटयला.

कानोबा नायक, सुखदेव शिरोडकर, कृष्णा माईणकर, दत्ताराम नागवेकर, यशवंत सुखा आगरवाडेकर हे तांचे सांगाती आशिल्ले.

सायकली दुरुस्त करप तांचो व्यवसाय.

# विश्वनाथ पद्माकर सावईकर



श्री. विश्वनाथ पद्माकर सावईकर हांचो जल्म फोंडे तालुक्यातल्या सावईवेरे गावांन २४ फेब्रुवारी १९२५ ह्या दिसा जालो. ताणी एस. एस. सी. मेरेन शिकप घेतला. ते आझाद गोमंतक दलाचे वांगडी आशिल्ले. ताणी भुमीगत स्वातंत्र्य सैनिकांखातीर अन्न आनी रावपाची सोय केली. आपल्या घरात पोस्टरा दवरली. कुस्तोदियो फर्नांडिस हांचो खून करपाफाटल्यान तांचे हात आशिल्ल्याचे दुबावान तांका सात म्हयने बंदखणीत दवरले.

ते व्यवसायान शेतकार.

♈♈♈
♈♈
♈

## विनायक सोयरू उसगावकर



श्री. विनायक सोयरू उसगावकर हांचो जल्म २६ जूलय १९३३ ह्या दिसा उसगाव हांगा जालो. ताणी मुळावे शिकप गोंयान घेतले आनी उंचेले शिकप कर्नाटकातल्या हल्ल्याळ हांगा घेतले. एस. एस. सी. उपरांत बेळगाव हांगा तांची वळख बॅरिस्टर नाथ पै, पिटर आल्वारिस हांचेकडेन जाली आनी ते गोंय मुक्ती चळवळीकडेन आकर्षित जाले.

१६ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा पैंगिण हांगा एम. ए. मणियार हांच्या फुडारपणाखाला सत्याग्रहान सहभागी जाले. पुलिसानी ह्या ४० सत्याग्रहीच्या पंगडाक अटक करुन निष्ठूरपणान मारपेट केली आनी शिमेर व्हरून सोडले.

त्याउपरांत ते गोंय लिबरेशन आर्मिन सहभागी जाले. श्री. उसगावकर हांणी डिचोली खाणीचेर केल्ल्या कारवायेन वाटो घेतलो.

त्याउपरांत तांची वळख आपा करमळकर हांचेकडेन जाली. आपा करमळकर (अंतराळी) हांच्या पंगडाक अटक जाली. अटक जाल्ल्यामदी ॲड. तांबा, पावसकर आनी हेरांचो आसपाव आशिल्लो. श्री. उसगावकर हांका ताचे गैरहाजीरेत १४ वर्साची कठोर बंदखणीची ख्यास्त फावो केली. उपरांत ते मुंबय गेले आनी १९६८ वर्सा गोंयात परतले.

केंद्र सरकारान तांका ताम्रपत्र भेटयला.

मुक्तीउपरांत ताणी पर्वरी हांगा गोवा हॉटेल मॅनेजमेंट संस्थेन इन्स्ट्रक्टर म्हुण काम केले.

सध्या ते पर्वरी हांगा आपल्या कुटुंबावांगडा रावतात.

